मोगाळ भावा,

पूनरजल्म आसा जाल्यार
एकूच मागणें म्हजें
एकाच कुसव्यांत जल्मचें
नातें म्हजें-तुजें
तुज्या हातार धागो बांदूंक
नशीब म्हाका मेळचें
एकाच आंगणांत रडत-हांसत
सदांत आमी खेळचें
वाट लांब, मदींच हांवें
सोडचो पडल्यार तुका
दर जल्मांत 'भाव' म्हूण
तूंच मेळचो म्हाका

तुजी मोगाळ भयण
**ग्वादालूप डायस**

जलस्थल
(कविता)

कवयित्री
ग्वादालूप डायस
नुवें, साश्टी गोंय

पयली आवृती
मार्च, 2009

छापपी
सह्याद्री ऑफसॅट प्रिण्टर्स

मांडावळ
अमोल कामत

प्रकाशक
डॉ. फ्लॉरॅन्स आल्मेदा

मोल : 100/-

# मांडावळ

वाळवंटांतल्यान....

मायेमोगाचो नमस्कार!

जिणेचीं हजार नांवां....!

म्हजे जिणेंत सूख-दुखाचे 'भूंयफोंड' उदेले तशेंच तारे-गिरे पुंजावन, म्हजे जिणेची 'मळबगंगा' हांवें सजयली आनी अचकीत, म्हजी जीण म्हळ्यार एक वाळवंट कशें म्हाका दिसूंक लागलें. ह्या रखरखीत वाळवंटांत, उदकाच्या थेंब्या खातीर ताळो इतलो आकूळ-पिकूळ जालो की खीणभर दिसलें आतां म्हजो अंत लागीं पावला. तरी पूण खंय तरी शितळ उदक आसा हाची खात्री म्हाका पटली आनी हेच आशेन हांव अजुनूय सोदीत आसा, म्हजे जिणेच्या वाळवंटांतलें 'जलस्थल'.

म्हजो जल्म, कुड्डाळेच्या, केळशी गांवांत जालो तरी पूण म्हजें भुरगेंपण, म्हज्या मामागेर, नुवें-किरभाट हांगा सैमीक वाठारांत, निसर्गाचे मांडयेर खेळत हांवें सारलें. ह्या खेड्या गांवांत, दोंगुरल्यानी वचून हांवें कांण्णां-चुन्नां कुटलीं, शेतांत देंवून कोंगे पुजायले, मीठ फळ्यानीं खेळून दोंपरां-कोंपरां झरयले आनी एक दीस सहज म्हाका अशें दिसूंक लागलें की पुराय सृश्टींतूच कविता भरिल्ली आसा. जशें की सुकण्यांच्या चिंवचींवाटांत, वाऱ्याच्या सळ-सळाटांत, झऱ्याच्या खळखळाटांत, पावसाच्या थेंब्यांत, दवाच्या ओथांब्यांत, माणकुल्यांच्या हांशांत, आवयच्या पोशांत आनी हेर सगळेकडेन फकत कविताच आसा ती समजून घेवंक फकत एक मोगाची नदर जाय पडटा आनी दुसऱ्या मेरेन पावोवूंक उतरांचो आदार लागता. इतलें जाणां जावनूय, कविता बरोवपाचो यत्न, हांवें तेन्ना पासून करूंक ना आनी तशी गरजूय म्हाका जाणवली ना. तेन्ना मेरेन, म्हज्या जिवितांत फकत सुखाचीं ल्हारां हांवें अणभवलीं. पूण आठवेच्या वर्गांत आसतना, आमच्या घराब्यांत कितें तरी विपरीत घडलें आनी ह्या सुखाच्या ल्हारां वांगडा, दुखाच्यो शिंपयो येतात हाची म्हाका जाणीव जाली. तेन्नाच्यान....

म्हजें जिवितूच एक कविता, हें म्हज्या लक्षांत आयलें. सान पिरायेर, जें दूख म्हज्या वांट्याक आयलें ताची यादूच काडली जाल्यार, अजुनूय, वोंटार आयिल्लो हांसो, दोळ्यां मेरेन पावचे पयलींच, गालाचे खळयेंतल्यान दुकां व्हांवतात आनी तीं कोणाकूय दिसचीं न्हय म्हूण अडेचो हांसो वोंटार खेळोवपाच्या यत्नांत, जायत घडये, म्हजे भितरली कवयित्री जागी जाल्या!

आज मेरेन हांवें जें कितें बरयलां, तें म्हज्या सूख समाधाना खातीर बरयलां, हें कोडू सत हांव कशेंच न्हयकारूंक शकना. जितले पावट सूख वा दूख म्हज्या दारार मारता तितलेच खेपे व्हड आस्त बाळगून, बाळंतपणाच्यो वेदना सोंसच्यो तशोच वेदना सोंशीत, एक नवी कविता हांव जल्माक हाडटां!

घोव-बायल, आवय-बापूय, भाव-भयण हांची नातीं कशीं तुटून पडटात हाचो अणभव खूब

भुरगेपणार हांवें भोगला. देखुनूच, म्हज्या शब्दकोशांतल्या 'विस्वास' ह्या उतराचो म्हाका दुबाव लागता. तेन्ना कवितेंतल्यानूच हांव स्वताची समजूत घालतां.

हांवें ना मागतां, म्हाका मेळिल्ली ती म्हजी 'जीण' हें हांव स्विकारतां पूण मागीर सगळें, जिणेन म्हाका आपल्याक जाय तशें दिलें. हाचेर म्हाका विरोध करीन दिसता. पूण नियतिच्या खेळामुखार, म्हजें बळगें कमी पडटा तेन्ना मात, कल्पनेच्या बळग्यार हांव, म्हजो असो एक वेगळो विश्व तयार करतां आनी खिणां पुरतें खूब खोशी जातां. तशें पळोवंक गेल्यार, कविता करूंक म्हाका वेळ, काळ वा थळ लागना. म्हजी खोशी सांबाळूंक जेन्ना म्हाका, मळब कमी पडटा तेन्ना म्हाका कविता सुचता!

काळजाच्या दर्यांत तुफान जावन, दुखाचीं ल्हारां दोळ्यांच्या किनाऱ्यार येवन फुट्टात तेन्ना म्हाका, कविता येवजता. ज्या मनशांक हांव, म्हजी समजतां, तांचे यादिंचे दागे, विसरायेचे सुयेक घालून, पिंजिल्लें काळीज शिंवपाचो हांव यत्न करतां तेन्नाय एक कविता तयार जाता. कविता बरोवंक, म्हज्या मनाक हांव त्रास करिना न्हय म्हूण विशय सोदून कविता बरोवंक म्हाका आवडना. अर्थान, म्हाका कविता सहज सुचता. आनीक एक गजाल म्हळ्यार, आज मेरेन पेन-पेपर घेवन, कविता बरोवंक बशिल्ल्याची म्हाका याद जायना. पुराय कविता मनाचे फास्कें‍त भरल्या उपरांतूच, हांव ती कागदाचेर देंवयता आनी अशे तरेन आयिल्ले कवितेंत, एका शब्दाचो बदल हांव करिना आनी एकाद्रो बदल करचो अशें दिसता जाल्यार म्हज्या हिसपान ती कविताच आसना.

तशो हांवें खुबशो कविता बरयल्यात. ह्यो कविता, थोडे पावट वास्तवांतल्यान, काल्पनीक दिशेन वळ्ळ्यात जाल्यार कांय पावटी कल्पनेंतल्यान, वास्तवीक पांवड्यार देंवल्यात.

जे वरीं, दर्या, उदकान भरिल्लो आसता पूण जेन्ना ताका तान लागता तेन्ना मात तो पावसाची वाट पळयता. तशेंच आयज म्हजे जिणेच्या वाळवंटांत हांव, सतत उदकाच्या थेंब्याक आशेलां आनी 'जलस्थल' सोदीत इतलें पयस आयलां. ह्या वाळवंटांतल्या,निवलकाण्यांची म्हाका राखण करूंक जाय. हांगा जावपी अन्यायाचें लांशें, म्हाका पुसून उडोवंक जाय आनी हें सगळें करूंक, हांवें सोदुंकूच जाय म्हजे जिणेचें 'जलस्थल'.

देव बरें करूं!

तुमची,
**ग्वादालूप डायस**
नुवें



# प्रार्थना

कालच्यो यादी पदराक बांदीत
फायचो हुस्को फाल्यांर सोडीत
वाळवंटांतलें 'जलस्थल' जावन
आयच्या दिसा जगता हांव

निवलकाण्यांक फुलयत फुलां
जिवीत देवा अर्दें जालां
तरी सगळ्या काळजान म्हणटा
तुजेंच नांव व्हड जावं

अरण्यांत तूं दिसना म्हाका
सुके रेंवेंत सोदतां तुका
पावस जावन एकदांच देवा
तुजें म्हाका दर्शन घडय

रेंवटांत कोरांतून म्हजीं पावलां
वाट तुजी पळयत रावलां
विस्तारुन हात तुजे
काव्यांत आकाशफुलां झडय





## आशा

वाळवंटांत खंय तरी
जलस्थल आसा हे आशेन
निवलकाणी जावन हांगा
आजून उबें रावलां

अत्याचारांक फुडो करीत
तळपांय म्हजे भाजल्यात
कुंकूम पदर सांबाळटाना
रगतूय म्हजें व्हांवलां

रखरखीत वोत सोंशीत
आत्मविस्वास जागयत मनांत
जलस्थलाचे दिशेन हांवें
मारचीं आसात पावलां

'भूंयफोड' तुमी चाखल्यात
'मळबगंगा' आवडल्या समजून
जिणेचें 'जलस्थल' सोदीत
तुमचे मेरेन आयलां





# केन्ना तरी अशें जावचें

केन्ना तरी अशें जावचें
सुर्यान उदेवंक विसरचें
मरुभुमिंतलें जलस्थल
वाळवंटभर पसरचें

केन्ना तरी अशें जावचें
जिणेन मरणाक भेटचें
हातांत हात घालून तांणी
मायेमोगान रावचें

केन्ना तरी अशें जावचें
भूतकाळांत हांव पावचें
पाप केल्लें पुण्य करून
भविश्य सुगूर करचें

केन्ना तरी अशें जावचें
मळबान जमनीर देंवचें
उगड्या दोळ्यांचें सपन
एकदांच साकार जावचें





# जिणेंत म्हजे

गीत जावन आयलें तूं
गावंक म्हाका कळ्ळें ना
प्रीत जावन आयलें तूं
काळजाक काळीज मेळ्ळें ना

रात जावन आयलें तूं
न्हीद म्हाका पडली ना
वात जावन आयलें तूं
म्हज्यान पेटोवंक घडली ना

वसंत जावन आयलें तूं
हांव मात फुल्लो ना
ल्हार जावन आयलें तूं
तुका हांव भुल्लो ना

सूर जावन आयलें तूं
कानार म्हज्या सादलो ना
वादळ जावन आयलें तूं
तुका हांव बदलो ना

तुजे यत्न सगळे निर्फळ
कशें तुका सांगचें हांवें
जिणेंत म्हजे येवचें आसल्यार
तूंच जावन येवचें तुवें





## ते दीस

नवे पिळगेक मात लेगीत
मामागेर वचूंक वेळ ना
देखून ताच्या आंगणांत आतां
धांवचेल्यांचो खेळ ना

गोडा लाडू, दोशी कापां
ओगीच कोनशाक पडल्यांत
तीं खावपी भुरगीं आतां
पिराये पयलींच वाडल्यांत

पाळांचो उपेग कितें
वड चिंतूंक पडला
मामागेर व्हरपी रस्तो
शिक्षणीक सुवातांक जोडला

आजोळ जालां मोने आनी
आंगण जालां रितें
आधुनीक आयच्या युगांत
फिकें पडलां नातें

आजेचो काणये कुंवर
अजून रानांत भोंवता
नातरांच्या मनांत मात
सायबर कॉफे घुंवता





# म्हजी पिराय

ह्या दिसांनी म्हजी पिराय
सुमारा भायर वाडल्या
सुकिल्ल्या चुडटा सारकी
कातीक मिरी पडल्या

जिभ म्हजी हुळहळटा
खावंक सोदता चणे
कशें सांगूं तोंडांत म्हज्या
दांत जाल्यात उणें

सगळेच रंग नदरे मुखार
धवे काळे निळे
कालूच कळून चुकलां
फुटल्यात म्हजे दोळे

रुपेरी सपनां आतां
पळोवंक म्हज्यान घडना
हरकत तशी कांयच ना
पूण न्हिदूच म्हाका पडना





# पिंजिल्लें काळीज

तुज्या यादींचो धागो
विसरायेचे सुयेक घालून
पिंजिल्लें काळीज शिंवलें
तेन्ना तें चडूच पिंजलें
आनी म्हाकाय काळीज आशिल्लें
ही गजाल हांव केन्ना विसरलें
पूण हालींच दारांतलो गुलमोहर
फुल्लो परत तुजे यादीन
पिंजिल्ल्या काळजाक फुटलीं पाखां
आनी वाऱ्यार उडली जीण
मात सोपूत दिल्लो चंद्रीम
मळबांत खंयच दिसलो ना
आमच्या मोगाची निशाणी
सोदून लेगीत मेळ्ळी ना
गुलमोहराचेंय जालां वस्त्रहरण
एकान एक फूल तोडलें
पिंजिल्लें काळीज शिंवतां शिंवतां
म्हाका जियेवचेंच पडलें





# भारत आमचो देश

भारत आमचो देश जशें
साळक तळ्यांत फुलता
एकचाराचें गीत हांगा
कोगळा सहज गायता
स्वातंत्र्याचें वारें पळय
हुस्क्या मेकळें व्हांवता
पाचवींचार शेतां दोंगर
तिरंग्याक भरतात कोर
जवानाच्या रगतान पडल्या
बावट्याचेर केसरी मोहर
मदलो भाग धवोफुल्ल
जशी कितें दर्या झालर
जय भारत, जय हिंद
भान सोडून नाचता मोर





# पावसाची एक रात

पावसाची एक रात
सगळे कडेन काळोख दाट
पुनव हाडूंक गेल्लो चंद्र
कुपांनी सांडलो वाट
पावसाची एक रात
सगळे कडेन काळोख दाट

न्हंय मेळूंक गेली दर्याक
रान मेकळें वादळ वाऱ्याक
कुळारा गेल्ली बायल
उल्यार उले दिता तारयाक
बोवाळान सुटल्या मानेर
केंसां आंबाड्याची गांठ
पावसाची....

घोवाची तीच दशा
उतरां ओंठार मोनी भाशा
काचाबूल दोळ्यां दिशा
तुळशी मुखार जळट्या दिव्याक
ज्योत वळून गेल्या फाट
पावसाची....

पावसाची सोंपली रात
चंद्राकूय गावली वाट
काचाबूल दिशा थीर
दिव्याचोय सजलो थाट
कुळारा गेल्ले बायलेचो
तारयाच्या हातांत हात
पावसाची एक रात
घोवागेर काळोख दाट





# मागणें

वेळेर बसून खडपां
आयिल्ल्या दिसाक रडटात
दर्याचीं ल्हारां येवन
दोळे तांचे पुसतात

म्हजेंय काळीज जड जालां
दुख्खाच्या वज्या भारान
उदार जीण जगतां हांव
चार दिसांच्या संवसारांत

देवा म्हाका एकदांच
वेळे वयलें खडप करशी
ल्हारांचो पदर घेवन
दोळे म्हजे पुसशी?





# म्हाका जगूंक शिकय

जिवितभर जिखलां हांव
आतां एकदांच हारय
जैताचो बावटो हाडून
पायां कडेन पुरय

पुनवेचो चंद्र मात्सो
पेटयेंत तुजे लिपय
उमाशेच्या काळखांत
जीण जगूंक शिकय

नीट निवळ वाट म्हजी
निवल कांट्यांनी भर
विलुदाचे पांय म्हजे
फोर्सान वाटेर व्हर

दर्याचीं सगळीं ल्हारां
गुंथून तडीक ओड
उदका विणें नशीब म्हजें
एकदांच मदीं सोड

केळी सारकें मातलां हांव
खिणापुरतें बागय
मनीस देखून मनीसपणान
जगूंक म्हाका शिकय





# थोडें तुजें... थोडें म्हजें

म्हजे कडेन मळब आसा
चंद्रीम जावन येवशी
जीण म्हजी उमाशेची
थोडेंच चान्ने दिवशी

काळजाच्या दर्यांत म्हज्या
पावस जावन झडशी
इतल्या वर्सांची तान
एकाच थेंब्यान भागयशी

म्हज्या दोळ्यांत न्हीद आसा
रातीक मातशी धाडशी
सपनांतल्या राजवाड्याचो
कुंवर तूं जावशी

वाट म्हजी लांब आसा
तूं वांगडा चलशी
म्हाका पयस वचूंक जाय
म्हज्या हाताक धरशी



## पयस वतकीच

आतां म्हाका वचुंकूच जाय
जिविता कडेन हांव हारलां
म्हाका व्हरूंक मरण येवन
दारा भायर रावलां

दोळ्यांतल्यान दुकां व्हावयत
पावलां जड करूं नाका
म्हजे यादीन रडचे परस
सुखी रावन विसरून म्हाका

चल तुज्या काळजाचें
तूं मात्शें दार उगड
शिमे भायर तूं येवं नाका
हांगाच म्हज्या हाताचें सोड

म्हजे फाटल्यान जियेवपाची
आस्त अशी सोडूं नाका
म्हजी गरज पडलीच जाल्यार
म्हज्या कवितानीं सोद म्हाका



# याद तुजी येतकीच

तुजे यादीन रात म्हजी
सदांच जागी रावता
दोळ्यांतलें सपन म्हजें
फुलचे पयलींच बावता

तुजे यादीन सुर्या म्हजो
पिसो कसो भोंवता
तुका सोदूंक म्हजो संवसार
आपलेच भोंवती घुंवता

तुजे यादीन चंद्रीम म्हजो
उमास केंसांक माळटा
तुका धरूंक दर्या म्हजो
ल्हारां वांगडा खेळटा

तुजे यादीन मळब म्हजें
फुगार जावन रडटा
हांशें म्हजें उदेंतेचें
अस्तंते कडेन पडटा





# खूब कितें करचें आसा

दारांतल्या म्हशिंगाचो
हिशोब अजून करचो आसा
सुर्याच्या वता पासून
पानान पान राखचें आसा
देखून मरणा म्हजे वयली
सावळी मात्शी कुशीन काड
जिविताचे वाटयेंत देवा
आयुश्य इल्लें सुबेज वाड

दर्याचीं ल्हारां ओडीत
तडीर म्हाका हाडचीं आसा
अळणी हे जिणेक म्हजे
मिठाकण घालची आसा
देखून मरणा म्हजे वयली
सावळी मात्शी कुशीन काड
जिविताचे वाटयेंत देवा
आयुश्य म्हाका सुबेज वाड

दोंगराचें हड्डें फोडून
काळीज भितर घालचें आसा
आबोल्यांच्या मोन्या गळ्यांत
सूर हांवें भरचो आसा
देखून मरणा म्हजे वयली
सावळी मात्शी कुशीन काड
जिविताचे वाटयेंत देवा
आयुश्य इल्लें सुबेज वाड





# त्याग

जुलमाच्या तोंडांतल्यान
भारत देश सोडयला
अहिंसेच्या बळग्या नेटार
इतिहास नवो घडयला

रगत दिवन, सुटकेचें
दायज मेळोवन घेतलां
आवय-बापायक सांडून
योगदान आपलें ओतलां

कपलां उगडीं सांडून
भारत मातेक सजयल्या
फांशी चडच्या वेळारूय
कीर्त तुजी गाजयल्या

एकवटान रावन आतां
गावचें आमी नवें गीत
भेदभाव कुशीक सांडून
एकामेकाचेर करची प्रीत





## तें नखेत्र हांव...

कांय वर्सां फाटीं भांगराळे पुनवे मळब
अचळय जमनीर देंवलें
सात रंगी इंद्रधोणू
माथ्याक माळून परतलें
पूण ताचे नदरेक चुकून
एक नखेत्र फाटीं रावलें
वासपूस कोणेंच केली ना
मळबूय ताका विसरलें
रिती जीण घेवन हातांत
नखेत्र हेडलें संवसारांत
कश्टांची पेन्सील झरयत
नशीब आपलें बरयलें
तेन्ना मात मळबान ताका
आपलें म्हणून मिरयलें
तें नखेत्र हांव...!





# सोद

उजवाडाच्या हाताक धरून
काळखाक भेटूंक गेलें
पूण काळोख भेटलो ना
उजवाड काळखांत बुडलो
काय उजवाडांत काळोख सांडलो
जापूय अजून मेळ्ळी ना

काळोख सोदचे खातीर
पणटी पेटयल्यो वाती जळयल्यो
तरी ताची सांवळीच ना
मशाल हातांत धरून
चारूय दिका माडयल्यो
तरी काळोख मेळूंक ना

काळखाक सोदपाचें पिशें
ओगीच म्हाका लागलें कशें
प्रस्न म्हजोच पूण जाप ना
जायत घडय आज मेरेन
उजवाडाक तोंड दिवपा पुरतो
काळोख हांगा समर्थ ना



## वर्सांचें कुळार

लग्न करून दिल्ली धूव
आयल्या आपल्या कुळारा
फाटीं फुडें, दाव्यान उजव्यान
पोरां सगळीं मेळून बारा
व्हडली चली जानेवारी
दुसरो पूत फेब्रेर
मार्चाक हांडीर धरता म्हणसर
एप्रील पावलो वेळेर
मे खेळटा झरी उदकांत
जुनाचें नाक व्हांवता
सत्री सांबाळीत पचक पचक
जुलय पावसांत धांवता
आगस्ताक जाय घोंसाळीं
सेतेंब्र सामको खोंकता
कानाक घालून कानटोपी
अक्तुबर चुली कडेन बसता
तूप लोणी मस्त खावन
नोवेंब्र फुगला बरो
भांवडां वांगडा खेळटा म्हणसर
डिसेंबराक जालां पुरो



# येवकार

दूदसागरा मस्ती तुजी
आज मात्शी सोड
दर्या तुजी इश्टागत
ल्हारां कडेन जोड

नव्या वर्साची सुरवात
सगळें नवें करुया
आदल्या इश्टांक सांबाळीत
नवे इश्ट धरुया

मांडवीचे न्हंये तुजें
मोडप मात्शें थांबय
जुवारीच्या पुला अशी
दिवनाका जांबय

नवें गीत नव्या सुरान
आज आमी गावया
नवें वर्स आमच्या नांवार
मायेमोगान रावया





## बदल

आबोल्यांचे गळे आतां
मोने उरूंक नात
तांकांय वाचा फुटल्या
तांचेर जुल्म करपी
दोरीच आतां तुटल्या

यादींचीं नखेत्रां पुंजायत
चान्रे आतां थकलां
आपल्याकूय काळीज आसा
कळून ताका चुकलां





# जें जाय आसलें

मोगाच्या बाजारांत
काळजाची कट्टी घेवून
हांव भिकेक भोंवलें
जें जाय आसलें
तें केन्नाच मेळ्ळें ना
जेन्ना मेळ्ळें मात
म्हजें म्हणूंक शकलें ना

उदक मागल्यार
वाळवंट दिलें
दोळ्यांतलीं दुकां
मोन्यांनीच पिलें
जें जाय आसलें
तें केन्नाच मेळ्ळें ना
जेन्ना मेळ्ळें मात
म्हजें म्हणूंक शकलें ना

पुनव मागल्यार
उमास आयली
जिवीत काळखांत
बुडोवन गेली
जें जाय आसलें
तें केन्नाच मेळ्ळें ना
जेन्ना मेळ्ळें मात
म्हजें म्हणूंक शकलें ना

फुलां मागल्यार
कांटे तोपले
राती आशेन
दीस विकले
जें जाय आसलें
तें केन्नाच मेळ्ळें ना
जेन्ना मेळ्ळें मात
म्हजें म्हणूंक शकलें ना





# नवो इतिहास

जगल्यो जितल्यो रित्यो राती
जळत गेल्यो प्राण - वाती
बंदखणीच्या सरयां भितर
सुर्या पळोवंक विसरलें

आंगांत रगत सळसळ्ळें
मन सरोवर खवदळ्ळें
स्वातंत्र्याचीं साळकां कुटूंक
खोल रेब्यांत निसरलें

बोमलेचें नातें तोडून
हुमऱ्या भितर संवसार सोडून
चुलीर आदन सोडून रितें
भायर तुमी सरले

पांयांक आसल्यो सांखळ्यो
तरी वाटो केल्यो मेकळ्यो
एकचाराचो मंत्र शिकोवंक
जळींमळीं पसरले

अहिंसेचें घेवन शस्त्र
आशिर्वादाचें घालून वस्त्र
बावटो हुबयत भारताचो
नवो इतिहास घडोवन गेले





# त्या दिसा

त्या दिसा अचकीत
मळबांत स्वतंत्र सुर्या
स्वास दामून दवरिल्लो
मेकळो जालो दर्या

बंदखणीच्या दरवट्यांच्यो
गळून पडल्यो सांखळ्यो
गुलाबाच्या कळ्यांतल्यो
हांसून फुल्ल्यो पाकळ्यो

उमाशेचे काळखे रातीक
नकेत्रांचो फुटलो भार
सांठून उरिल्ल्या उदकाक
नेटान फुटली धार

स्वातंत्र्याच्यो घोशणा दीत
सवणीं मळबांत उडलीं
जल संवसाराक संदेश दिवंक
नुस्तीं उदकांत बुडलीं

राखण तुजी करूंक
काळजांत आसा हावेस
व्हडविकायेचें प्रतीक तूं
भारत आमचो देश



# गोंय म्हजें

गोंयची व्हडवीक गावूंक
उतरां म्हाका मेळनात
माणकुलेंच आसलें तरी
तुस्त पदरांत सांवरना

रुपेरी दर्या वेळो
गळ्यांत जशे अलंकार
कसलेंच हांगा बंदन ना
सगळ्यांकूच उगडें दार

कश्टी गोंयचो लोक जरी
सुसेगाद काय बरो
फेणये थेंबो गळ्या सकयल
थंडी जाल्यार एकदम बरो

हालत धोलत माडार चडून
सूर काडटात रेंदेर
नुस्तें भाजी दारांत तुज्या
फांतोडेर येता पदेर

ना पळोवपा सारकें अशें
गोंयांत आमच्या कांयच ना
सगळो संवसार भोंवलें तरी
गोंयां असलें खंयच ना



# धर्तरेचो सर्ग

आज आमी लावया झाडां
शितळ वाऱ्यार धोलतलीं
फुडाराचीं सपनां आमचीं
फुलां जावन फुलतलीं

आज आमी लावया झाडां
फाल्यां फळां पिकतलीं
उपकाराचीं गायत गितां
आमचींच भुरगीं चाकतलीं

आज आमी लावया झाडां
सवणीं घोंटेर बांदतलीं
अमृताचो मंत्र आपल्या
गोड गळ्यान गायतलीं

आज आमी लावया झाडां
नकेत्रां जमनीर देंवतलीं
काजुल्यांचें रुप घेवन
रातचीं झाडार बसतलीं

आज आमी लावया झाडां
भुंयेक घट्ट धरतलीं
धर्तरेचो सर्ग आमी
संवसारांतूंच करतलीं





# झाड उलयता

तुमच्या स्वार्था खातीर
तुमी म्हाका कापलें
तुमच्याच पापी हातांनी
तुमचेंच नशीब धांपलें
दनपारच्या वोता कडार
सावळी घालूंक मुखामळार
सांगातन म्हाका सांगात
कोण जायत तुमचो आदार
धुंवरान फुगार जातलो गळो
काँक्रिटाच्या जंगलांत जेन्ना
नश्ट जातलो जिणे मळो
तानेन सुकून वतलो गळो
तेन्ना तुमकां दिवंक आदार
कोण जायत सरत मुखार
सांगात म्हाका, सांगात





# आगो म्हज्या भुरगेपणा

आगो म्हज्या भुरगेपणा
तुजी याद येता
म्हजे यादीक जागयता
हाताक धरून, दोंगरार व्हरून
काण्णां-चुन्नां खावयता
पिटकोळेच्या फुलां पाकळ्यांत
केन्नाय नशीब बावयता
कपड्यार घालीत जांबळां खता
मस्तेपण तूं मिरयता
पेरीवयल्या कावळ्याक पळयत
शिता उंडी भरयता
वडाच्या पाळांक धरून
फाटीं-फुडें धोलयता
मीठ फळ्यानी खेळयत म्हजी
धोंपरां-कोंपर झरयता
शेता कुणग्यांत निसरत
लाळये कोंगे पुंजायता
आवयचो दोळो चुकयत
पावसांत म्हाका भिजयता
तोरांत घालून मीठ मिरसांग
जिबेक म्हजे चाळयता
तोंडार एकूच हांसो फुलोवन
सगळ्या घरच्यांक बाळयता
बापायच्या बोटाक धरीत
कुळागरांत भोंवडायता





इश्टिणीच्या हाताक धरून
गोल-गोल घुंवडायता
अचकीत जोराक आपोवन
कोडू वखद पिवयता
न्हिदेचें सवंग करीत
आजेक म्हजे भिवयता
विणयाक बांदून तांबडेच लांस
दशीण कशी फुलयता
बावल्यांचो खेळ खेळयत
सहज माती कालयता
शाळेचे सुटयेंत म्हाका
व्हरून मामागेर पावयता
तोंडार उदक मारता सांगून
तळ्यांत म्हाका सावयता
कुचकूचीत जगमा तोडूंक
झाडार म्हाका चडयता
ओंवळी पोंदा माळो गुंथून
खोशी म्हजी वाडयता
वांकड्यो तिकड्यो चिंचो दिवन
बोंचो म्हजो मुड्डिता
राजकुंवराच्यो काणयो सांगून
ओगीच म्हाका भुलयता
संदी मात्शी फावली जाल्यार
खंयच्या खंयच उलयता
आगो म्हज्या भुरगेपणा
तुजी याद येता
म्हजे यादीक जागयता
सांगपा सारकें खूब आसा
सध्याक भुरगीं आपयता





# अजुनूय

काळजाचे बागेंत हांवें
रोंप लायलें गुलाबाचें
गुलाब फुल्ले कांटेय वाडले
जिणेंत सूख गुलाबांचें
फकत खीणभर भोगलें
कांट्यांची दूख मात
अजुनूय सोंसतां...!



## फरक

मनभुलोवण्या फांत्यापारार
हांव भायर सरलें
म्हजें म्हाकाच सोदीत
कुळारा हांव पावलें

सगळ्यो म्हज्यो इश्टिणी
आमच्या आंगणांत खेळटाल्यो
फातरांचें शीत रांदून
म्हज्या पानार वाडटाल्यो

तितलेच उमेदीन हांव
वाडिल्लें बेठेंच जेवतालें
पोट भरलें सांगून
धेंकर दीत उठ्ठालें

आतांय जिवीत म्हजें
फातर गुंड्यानी भरलां
भुरगेपणातलें सूख मात
वाडिल्ल्या पानार सांडलां

जिणेच्या आंगणांत आतां
पयलीं सारकेंच खेळटा
नशिबाचे चुलींत मात
जिवें आसतनाच जळटां



## तूं आयलो ना

रोखडोच परत येतलो
अशें तुवें म्हळें
पूण तूं आयलो ना
हांव खूब रडलें
तेन्ना म्हजीं दुकां
त्या गुलमोहरान पुसलीं
वसंत ऋतूचे दीस नासले
तरी ताका फुलां फुल्लीं

नखेत्रांचेर दिल्लो सोपूत
फांतोडेर तूं विसरलो
हाचें व्हडलेशें दूख ना
नखेत्राचें चिंतून मात
जिणेक म्हजें सूख ना





# गोंयां तुजी

गोंयां तुजी पाचवी साडी
सांग गो पिंजली कोणें
साडये वांगडा कुकूम विकून
मंत्री खातात चणे

शेतां भाटां, रानां वनां
खंय गो तुजी सांडली
भायले येवन हड्डें चिरून
घरां बांदलीं व्हडलीं

मेथयेन रंगयिल्ल्या हातांक तुज्या
नदर लागली कशी
राखण म्हजी करतल्यांनीच
वाट लायली अशी

कोगळांच्या गळ्यांत आतां
अमृत कित्याक व्हांवना
तिच्या मोगान चंवरपी
एकूय झाड उरूं ना

गोंयां तुजीं पांयजणां
सामकीच मुगो तुटल्यांत
काळजाचेय कुडके करून
जाय तशे वाटल्यात

केंसांक धरून पावलो मेरेन
सगळेंच तुका पिसुडलां
हय आतां मरचे पयलीं
पावणेर काडपाचेंच उरलां





# वाट

वळणा वळणाची वाट ही
वाटेर तरेकवार रुपां
कोण हांसता म्होवाळ हांशें
कोण गळयता दुकां

वळणा वळणाची वाट ही
वेगवेगळीं मनां
कोण मेजता फळां
कोण पुंजायता पानां

वळणा वळणची वाट ही
वाटेर कितलींच पावलां
थोडी घडयतात इतिहास
थोडीं घडयतात नवलां

वळणा वळणाची वाट ही
वाटेर कितल्यांचोच सांगाता
पांयाक धरून ओडटात थोडे
थोडे दितात हात

वळणा वळणाची वाट ही
कितलींच नातीं जुळटात
सुखापावसांत सगळेच तुजे
दुख्खांत फाट वळटात





## उरला जाल्यार

रंगरंगयाळीं फुलां करून
रंग बाकी उरला जाल्यार
देवा तुजे चिमटेंत धरून
म्हजे बेरंगी जिणेंत भर

रातराणयेक वासान पिशी
करून जाला जाल्यार खोशी
उरिल्लो वास पोशांत जमय
म्हजे जिणेच्या वालीर रकय

पुनवेची विणून साडी
सुबेज जाल्ली नकेत्रां झालर
नशीबाच्या वस्त्राक म्हज्या
तूंच दसय हातांनी तुज्या

संवसाराचें बरोवन संगीत
तयार केलां जाल्यार गीत
एक सूर असोच उडय
म्हजे जिणेचो ताल घडय





# तुज्या मोगान

केंस तुवें मानेर सोडले
सुर्या धारेक वचचे पयलींच
रात जाली काळजांत म्हज्या
मोडत मोडत आयली पुनव
हांव गो पिसो मोगान तुज्या

तुजीं कांकणां खणखणलीं
मीर्ग आंगणांत येवचें पयलींच
पावस झडलो जिणेंत म्हज्या
फुलीं फुलां गात्रा-गात्रांनी
हांव गो पिसो मोगान तुज्या



## तेन्ना

सगळीं फुलां फुलतात
तुज्या गालाचे खळयेंत
तेन्ना म्हजें पोरसूं
विधवा जावन बसता

सगळीं नकेत्रां देंवतात
तुज्या केंसांचे विणयेंत
तेन्ना चंद्राचें आंगण
रितें रितें उरता

तुजी नशा म्हाका
खंयच्याय वेळार चडटा
पिवून पडलां समजून
लोक म्हाका हांसता

तुज्या यादींची फांतोड
म्हज्या काळजांत उदेता
खंयच्या मोडणार रात जायत
येवजून भिरांत दिसता



# एक दृश्य

आमच्या घराक एकूच पाखें
फुडल्यान ताका मुखेल दार
भितर सरलीं म्हणटकीच
दोगांयचो वेगळो संवसार

नांवांपुरती नातीं हांकां
गरजे पुरतो वेव्हार
घरा भायल्यान दुरीग तशें
घरांत मदीं वणटी चार

हांगा मनांचो मेळ ना
मोनेपणान जिवीत सार
काळजांत दर्या कळवळटा
तरी ओंठार रितेंच ल्हार

विणिल्लीं सपनां तुट्टात हांगा
जावचे पयलींच साकार
घोव-बायलेचें ओगीच सवंग
लोकांक फटोवपाचो हो प्रकार





# मामाचो गांव

सर्ग हांवें पळोवंक ना
तरी म्हणटां हांव
सर्गाक सर करपासारको
म्हज्या मामाचो गांव

माड-माडयो गायतात
हांगा एकचाराचीं गितां
भांगर पिकोवंक फांत्यापारार
शेतकार आमुडटात जोतां

दोंगुल्ल्यांच्यो तेंगश्यो हांगा
मळब पदरान धांपता
सैमाचें पुस्तक कोणूय
सहज वाचूंक शिकता

मेले बगर सर्ग खंयचो
देखून म्हणटा हांव
संवसारांतूच सर्ग म्हणल्यार
म्हज्या मामाचो गांव





# सात फेरे

म्हजें जिवीत ताका दिलें
तेन्नाच तर हांव सोंपलें
आमी आतां एकूच जीव
सांगून ताणें मिरयलें

गळ्यांत धागो बांदलो
तो तर गळफांसूच आसलो
'अतूट आमचें नातें' म्हणीत
म्हजेर शेक गाजयलो

ताच्या घरांत पावल घालें
तें तर नरकूच आसलें
'म्हज्या घराची राणी तूं'
दासी परसूय वागयलें





# कसो विसरलो

तिनसांज जायत आयली तशी
धांपलीं सगळीं दारां
आवयन दुदाक धरिल्लीं
न्हिदलीं सगळीं पोरां
रोखडोच येतलो सांगून
सोडून म्हाका गेल्लो
मोग म्हजेर करता जाल्यार
पयस कसो उरलो?

आपालिपा खेळुया
असो तुवेंच हट्ट धरलो
दोळ्यांक म्हज्या पट्टी बांदून
लिपता म्हूण तूं गेल्लो
चोर जावन उबें हांव
खंय म्हूण तूं लिपलो
खरेंच खेळचें आसल्यार तुका
असो कसो सांडलो?

तुजे वयली प्रीत मोगा
गात्रागात्रांनी अडल्या
'आयचें', 'काल' जाता तितली
उमळशिकूय वाडल्या
मस्ती वाऱ्यांत स्पर्श तुजो
खंय म्हूण तूं पावलो
म्हज्या म्हऱ्यांत येवची वाट
इतले बेगीन विसरलो?





## गोंयचे रस्ते

गोंयचे रस्ते खुबूच मस्ते
झुजांत हारिल्ले कुंवर
खंयच्याय वेळार आंगार तांच्या
फोंडकुलांचो शिंवर

रस्त्यार मदीं सांगूं केदीं
झेतान रावतात गोरवां
तांचेर चलपी वाहनां दिसतात
जड जिवाचीं तारवां

केन्नाय चुकून सगळे झोकून
फाटीर दांबर सोडटात
दुसऱ्या दिसा पायपां वायरी
घालूंक रोखडोच फोडटात

अपघात घडून, रस्त्यार पडून
धांपतात कितलेच दोळे
लोकसंख्या देंवोवपाचो
सोंपो उपाय पळय





# सोळा वर्सां

सोळा वर्सांचे पिरायेर
खूब कितें घडलें
इतलीं वर्सां जपिल्लें काळीज
एक दीस अशेंच सांडलें

हाका सांग, ताका विचार
सगळे कडेन सोदलें
मेजाच्या खणांत, तांदळांच्या दोणांत
खंयच ना मेळ्ळें

आवयची तापोवणी, बापायचो मार
काळीज सांडलेंच कशें
सोळा वर्सांचें जालां न्हय तें
लागलां आसतलें मोगाचें पिशें

दीस सारले, जागयल्यो राती
तान भुकूय हांव विसरलें
शांत सभावी काळीज म्हजें
खंय म्हूण देवा निसरलें

काळीज सांडिल्ल्याच्या दुख्खान
कवितांनी मन लायलें
एक दीस म्हजें काळीज
आनीक एक काळीज घेवन आयलें

हय! हांव मोगान पडलें





## संवाद

अस्तुरे
लक्ष्मण रेखा पार करूंक
तुका इतली मस्ती चडली
की तूं आपूण जावन वचून
रावणाचे वेंगेंत पडली?
ना तशें न्हय
कारण तुका खबर ना
लंकेंत वचपा फाटलें
सीता जावन कळचें ना
दूख म्हज्या मनांतलें
तर सांग
पर्णकुटी सोडून वचूंक
ते लंकेंत आसा कितें
मायानगरीच्या मोहा खातीर
घर तुवें केलें रितें
चुकता तूं
लंकेंत अशें कितें आसा
हाची म्हाका जाणीव ना
पूण म्हजे पर्णकुटींत
आदलो म्हजो राम ना





म्हजें आयकशी
हें पळय तुका सोडोवंक
हांव आतांच हनुमानाक धाडटां
तूं गेल्ल्या पावलांनी परत यो
रामाकूय परत हाडटा
हें शक्य ना
अग्निपरिक्षा दिवपा इतलें
आंगांत म्हज्या बळगें ना
सामान्य अस्तुरीच रावंदी
सिता जावपाची इत्सा ना
पिशेपणां करूंनाका
तुवें परत येवंकूच जाय
तुका सोबना कुकर्म असलें
जर तूं आयली ना
जाल्यार सांग रामायण कसलें
पूण एक अट
अग्निपरिक्षा हांव दितां
तूं एक उपकार करशी
हांव सरणार चडटां
म्हज्या रामाकूय तूं चडयशी





# म्हज्याच सोदांत

फाटलीं कितलींच वर्सां
हांव म्हजे वांगडा जियेलां
हारशांतलें रुप मात
अजुनूय हांव वळखना
तरेकवार रुपड्यां मदीं
हांव मात म्हाका झळकना
कोणाची धूव, कोणाची भयण
घरकान्नीच्या सवंगांत हांव
बेस बरें रंगलां
घोंटेरांत पिलां सांबाळटना
सपनूय म्हजें भंगलां
जिणेचें नाटक सोंपत आयलां
पड्ड्या फाटलें रुप मात
अजुनूय हांव वळखना
तरेकवार रुपड्यां मदीं
हांव मात म्हाका झळकना
रुपड्यार रुपडीं घट्ट दसल्यांत
खरें रुप फाटल्यान लिपलां
रुपडीं निखळावपाच्या यत्नांत
हांव एकदम थकलां
हांवें म्हाका वळखुपाचें
आतां सोडून दिलां
कितलेंय केलें तरी म्हाका
अजुनूय हांव वळखना
रुपड्यां वांगडा सरुपताय इबाडटा
हांव मात म्हाका झळकना



## शूभविचार

गुलाब जावन परमळपाचें
जिणेंत कला नासली तरी
कांटो जावन पावलांक तोपत
घायाळ कोणाक करूं नाका

दर्या जावन सुर्याक आसरो
दिवंक तुज्यान घडना तरी
पावस जावन वाळवंटाची
तान भागोवंक विसरूं नाका

दुकां पुसूंक दोळ्यां मेरेन
हात तुजे पावना तरी
दोळे ओले जावपा फाटलें
कारण केन्नाच जावंनाका

वाटसुऱ्याचें मुक्काम जावंक
तुज्यांत बळगें नासलें तरी
चार पावलां वांगडा चलून
सांगात अर्द्यार सोडूं नाका

फायच्या दिसा मरण तुजेर
येतलें हाची जाणीव तरी
दुसऱ्या खातीर आयचो दीस
जगूंक मात तूं विसरूं नाका



## तुजे विणे

ज्या फुलांक तुजो सुवास ना
म्हजे बागेंत तीं फुलां
म्हज्या उतरा भायर
फुलतली कशीं?

ज्या वाऱ्यांत तुजो स्पर्श ना
तो वारो गांवांत भोंवतना
कारणा विरयत ताचे फाटल्यान
सवणीं कित्याक जातलीं पिशीं?

ज्या सुर्याक तुजी प्रीत ना
तो उदेंतेक कित्याक उदेवचो?
ज्या दर्यांत तुजें गीत ना
ताका दर्या कसो म्हणचो?

ज्या हारशांत तुजी मूर्त ना
तो हारसो कोणाक जाय?
ज्या पुस्तकांत तुजी कीर्त ना
व्हरून ताका उजो लाय

जे वाटेर तुजो सांगात ना
ते वाटेर कित्याक चलचें हांवें?
तुजे विणे मेळिल्लें जैत
तातूंत कितें सोदचें नवें?

तुजे विणे हजार वर्सां
आयुश्य लेगीत मरण म्हाका
तुज्या वांगडा सारिल्लो खीण
हजार वर्सांचें व्हडपण ताका





## जाप जाय

अस्तुऱ्यांची राखण करूंक
भाशण दिवपी दादले
गजरो घेवन कोठेवालीच्या
हुमऱ्यार उबे पयले
वेशा समजून काळखांत
विकती घेतिल्ली कूड
सुर्याच्या किर्णा पोंदाक
तुजीच भयण ऱ्ही मूं?





# हिशोब

मागचे पयलींच म्हाका मेळ्ळें
ती जीण आसली
जिणेन मात सगळें मागीर
आपल्याक जाय तशें दिलें
हांवें फोर्सान मेळयलें
ती जबरदस्ती आसली
काकुळटेक हातार पडलें
ती भीक आसली
एकलेपणांत फावलो
तो सांगात आसलो
कश्टांतल्यान मेळ्ळें
तें जैत आसलें
निरुपायान मेळ्ळें
तें नातें आसलें
अदृश्य रुपान मेळ्ळो
तो विस्वास आसलो
अचकीत घडलें
तें अजाप आसलें

चुकून केलें
तें पाप आसलें
आपलेपणान मेळ्ळी
ती माया आसली
हांसत भोगलें
तें सूख आसलें
दोळ्यांतल्यान व्हांवलें
तें दूखख आसलें
जें काल घडलें
तो इतिहास थारलो
हांव आज जगतां
तें वरदान समजतां
जें फाल्यां येतलें
तो हुस्को मानतां
न कळटां येवपी मरणाचो





## अश्रेकणी

म्हज्या सवण्यांक पाखां फुटल्यांत
केन्ना तरी तें उडटलें
ताच्या फाटल्यान म्हजें घरटें
रितें रितें पडटलें

सवण्या म्हज्या उडचेंच तुवें
म्हजी केन्नाय करची याद
मळबामेरेन पावलें तरी
म्हाका केन्नाय घालचो साद

नव्या झाडार नवो हावेस
तुजींय पिलां आसतलीं
पाखांत वारो भरले उपरांत
तुजेच सारकीं उडटलीं

म्हजीं उतरां तुज्या तोंडांत
तुकाय पिलांची येतली याद
मळबा मेरेन पावलें तरी
म्हाकाय केन्ना घालचो साद





## येवकार

मध्यानेर पावलां वाजयत
फोगोट्यांचो आवाज गाजयत
दवांत काळे केंस भिजयत
हांसत हांसत आयलां
भविश्याचीं सपनां पळयत
सैमाचे सूर आळयत
ओंठार मधूर गीत घोळयत
आमचे मदीं पावलां

जिणेचें तपलें हातांत
घेवन उबें रावलां झेतान
नशिबाचें गोडशें नेटान
शिजोवंक ताणें येवजिलां

मोगाची दाळ घालून
विस्वासाचो रस पिळून
शांतीचें गोड चाळू
गोडशें तयार केलां

निसुवार्थी वाटयो हाडात
इश्टागतीच्या पाटार मांडात
दुस्मानाकूय लागीं ओडात
नवें वर्स सुरू जालां



## देवा, आसा तूं?

देवा तुज्या संवसारांत
खूब वायट घडटा
तुका सगळी खबर तरी
कानार केंस काडटा

वेंतभर पोट भरूंक
मनीस वतांत कडटा
तूं मात सुगूर सावळेंत
कीर्त आपली जोडटा

तुवें वाजयिल्ल्या तालार
भेरो बाबडो नाचता
तुजे विशीं जाणून घेवंक
कुड्डो काळखांत वाचता

आपलें दुख्ख तुका सांगूंक
मोनो आरड मारता
देवा, खरेंच आसा तूं?
म्हाका दुबाव लागता



# म्हज्या गोंयांत

म्हज्या गोंयांत देवूळ-इगर्ज
एकाच वाड्यांत रावता
उदक आनी सोरो हांगा
उदारपणान व्हांवता

मळब आनी जमीन
दोंगरार वचून मेळटा
रात आनी दीस हांगा
लिपचेल्यांनी खेळआ

म्हज्या गोंयांत ओल्या वांगडा
सुकें देखून जळटा
बोटभर मागल्यार कितेंय
हातभर तुका मेळटा

फटींगपणाच्या दांत्यार हांगा
सत्य बावडें दळटा
गरीबांचे चुलीर हांगा
रितें आदन खेळटा





## आमी स्वतंत्र

दोंगरा आड तकली लिपयत
सुर्या वयर सरूं नाका
आमी आतां स्वतंत्र हांगा
कोणाक तूं भिवं नाका

कोगळा तुज्या गळ्यांत
उदास सूर भरूं नाका
मेकळेपणान गायत राव
कसलेंच बंदन ना तुका

जिणेंत तुज्या कितलीं ल्हारां
किनाऱ्या हिशोब नाका
सगळी अरबी समुद्र तुजो
आंकड्यांचो खेळ नाका

भारत माते कपल तुजें
उगडें केन्नाच सांडूं नाका
शूर विरांच्या रगताचो
कुकूम सदांच लायन तुका





# तुवें सांगलें

तुज्या सत्यापरसूय
म्हज्या असत्यांत
चड सत्य आसलें
तें जाणून घेवंक
तुका वेळूच नासलो
हे खातीर म्हजें सत्य
सदांच लिपून उरलें
जे दुस्मान नासतात
ते सगळेच इश्ट आसनात
हें समजूंक मात
खूब कळाव लागलो
हेच खातीर परकी तरी
तुका म्हजो म्हणपाचो
हांवें गुन्यांव केलो
लागीं येवंक शकना
इतले पयस रावं नाका

म्होवाळ उतरांनी तुवें
म्हज्या कानांत सांगलें
तुजेर विस्वास दवरून
पयस वचूंक शकना
इतलें तुका लागीं आयलें
दिसांत येवची याद
रातची पडचीं सपनां
अशे म्हज्या मनाक
इतलें कशें दिसलें
की स्वतार घालून विसर
दीस हांवें मेजलें
आनी रात आयली तेन्ना
न्हिदुंकूच हांव विसरलें





# तिचो त्याग

म्हज्या पासत पुताक आपल्या
गोरवां गोट्यांत न्हिदयलो
रातच्या पारार, न्हिदे भारार
इजिप्ताक व्हरून लिपयलो
सिमावांचीं खर उतरां
काळीज चिरून गेलीं
म्हजे पासत दुकां आपलीं
तिणें दोळ्यांतूंच सुकयलीं
देव तेंपलांत पुतान तिच्या
दोळो तिचो चुकयलो
तीन दिसांचो रस्तो तिणें
म्हजे खातीर माडयलो
घेवन खुरीस पूत तिचो
कालवार दोंगर चडलो
म्हजें चिंतून पुताक सांगलें
चल तूं रस्तो फुडलो
दोनूय हात विस्तारून
पुताक खुरसार खिळायलो
ह्या वेळार म्हजोच विचार
मनांत तिणें घोळयलो
देवाक रावली विस्वाशी
जियेताना संवसारांत
हेच पासत सायबीण मांय
आमचे पासत आसा सर्गांत





## एकूच मागतां

सांता क्लॉज म्हाका अंदूं
तुजें कांयच एक नाका
दिवचें आसत जाल्यार तुवें
रिती झोळींत दिवचीं म्हाका
झोळयेंत तुजे भरचे आसा
खून चोरयो खूब कितें
दुस्वासाची बेनल काडून
काळीज करचें आसा रितें
घरां पोखरपी वाळटी मारून
घडोवचें आसा नवें नातें
सांता क्लॉज म्हाका अंदूं
तुजें कांयच एक नाका
दिवचें आसत जाल्यार तुवें
रिती झोळीच दिवची म्हाका
देवधर्माच्या नांवान हांगा
मनशान मनीसपण सोडलां

असत्याचेंच जैत हांगा
सत्य खाला पडलां
भ्रश्टाचाराचें झाड पळय
मेकळेपणान वाडलां
झोळयेंत तुजे भरचें आसा
गरिबी, आळसाय खूब कितें
घरां पोखरपी वाळटी मारून
घडोवचें आसा नवें नातें
सांता क्लॉज म्हाका अंदूं
तुजें कांयच एक नाका
दिवचेंच आसत जाल्यार तुवें
रिती झोळीच दिवची म्हाका





# मानल्यार देव

वाटे वयल्या फातराक कोणें
भंयान एक दीस पुंजलो
तेन्नाच्यान बावडो फातर
देव म्हणून सजलो

म्हजो राम, तुजो अल्लाह
जाय तशे वांटले
फातरां कडेन जोडून नातें
मनीसपणाचे धागे तुटले

मानव रावतात झाडा मुळांत
देवळां इगर्जोव्हडल्यो
देवा धर्माच्या नांवान हांगा
दुस्मानकायोच वाडल्यो





# गुपीत

तुज्या धनीपणाच्या तारवानी
काळजांत केन्ना नांगर घालो
हें म्हाका कळ्ळेंच ना
येरें म्हज्या हातांत तरी
जाय थंय वचूंक मेळ्ळेंच ना

अथांग दर्याची भोंवडी करूंक
मनांत आशा आसली तरी
तुवें मेकळें सोडलेंच ना
म्हजेर तुजो अधिकार आसुनूय
तुज्या मोगांत हांव पडलेंच ना





# काळजांतल्यान

‘तूं पयस आसा, तुजेर आतां
कविता करप शक्य ना’
जायत घडये दिसलें तुका
खरें सांगू? कविता करूंक
तुज्यो यादीच पुरो म्हाका

तें ल्हार जशें खिणापुरतें
तडीर येवन बसता
ताचे यादीन तृप्त जावन
किनारो सासणाक हांसता
मोगा तुका खरें सांगूं?
पयस आसलो तरी तुजेर
कविता करीन दिसता





## मरतां.... जगचे खातीर

जिणेचे सगळेच दीस
सुखान जगचे आसले
समाजाच्या बंधनांनी
दर खिणाक मेलें
आतां मरणाचो भंय ना

पावसांत चिप्प भिजून
तृप्त जावचें आसलें
वाळवंटांतलें जलस्थल सोदूंक
म्हज्जींच दुकां पिलें
आतां तानूच लागना

हावेसाचो दर्या उतरून
पलतड गांठची आसली
सपनांचें व्हडें म्हजें
अर्दे वाटेर उमथलें
आतां न्हिदूच पडना

हें सगळें म्हाकाच कित्याक
नशिबाक विचारचें आसलें
म्हजे उतरावळींतलें कोणें
प्रस्नचिन्नूच चोरलें
आतां म्हाका मोल ना





# पास बूक

तिनसांजेच्या वेळार सालांत बसून
बायल पळयता टीवी
थकून आयलां च्या मागल्यार
म्हणटा करून पी

धांवत येता चलो म्हजो
म्हणटा कार्टून लाय
बायल सांगता बापायक पळय
आनीक खंयचो कार्टून जाय?

एकूच कार्टून पळोवन बेजारलां
दुसरो केन्ना हाडटा?
हांचो दोगांयचो संवाद आयकून
प्रेशर म्हजो वाडटा

आवयस! काळजाचो आताक आयलो गो
मात्सो दोतोराक आपय
दोतोर मागीर, बायल म्हणटा
पयलीं पास बूक दाखय





# तुमकांच म्हूण सांगता

काय बऱ्यो मिशयो तुज्यो
लग्नां पयलीं दिसताल्यो
ओंठां भोंवती पळोवन म्हाका
मुमुरख्यानीच हांसताल्यो

आतां तुजें तोंड जालां
सांता क्लॉजाचें रुपडें
तकलेर तुजें तेला विणे
नुस्तें भाज रोखडें

तुंवूय आदीं बावले वरी
सोबीत सुंदर दिसतालें
नाजूक तुजें कमर हालयत
हरणां वरी चलतालें

आतां तुजें कमर जालां
चोवीस फुटांचो कमरा
कपल जालां इगर्ज
देवा! कोणूय म्हाका सांवरा

कित्याक तुवें देवा म्हाका
विस्वासघात हो केलो
खंयचो नवस केल्लो म्हूण
हो एरंड म्हाका दिलो

काय बरो आंकवारपणार
हातो कसो फुल्लों
खंयची ताळणी आयली आनी
ह्या निवळ कांट्याक भुल्लों





## असमर्थ शब्दकोश

तूं ल्हान आशिल्लो तेन्ना
घडये घडये रडटालो
दर फावटी रडण्यांचो
अर्थ वेगळो आसतालो
तरी म्हाका शब्दां विणे
सगळें कितें कळटालें...
पिराय तुजी वाडल्या आतां
सगळें उलोवंक शिकलां
शीम नाशिल्ली उतरावळ
अर्दें जग तूं जिखला
तुज्या उतरांचो अर्थ समजूंक
कशें रे बाळा कमी पडलें?





# तुजे नदरेंतल्यान

म्हजे जिणेंतलें सूख
नकेत्रां परस चड ना
तुज्या काळजान मापल्यार मात
मळब उणें पडटलें

म्हज्या सुखाचें सपन
न्हिदे परस व्हड ना
तुज्या दोळ्यांनी पळयत तर
रातीचें काजळ इबाडटलें

म्हज्या सपनांतल्या गिताक
सूर ताल लय ना
तुज्या गळ्यान गावन पळय
सरगमाचें मोल वाडटलें

म्हज्या गिताचें संगीत
बासुरे परस गोड ना
तुज्या ओंठांचो स्पर्श पुरो
वृंदावनूय हांव सोडटलें





(1) सपनेवपा इतली न्हीद माग
साकार करपा इतलें आयुश्य मेळटलें

(2) दर्या उदकान भरला
तरी तान भागोवंक
पावसाची वाट पळयता

(3) जीण बरोवंक
पेन उदार घेवंनाका
रीण फारीक करता म्हणसर
तें मोडून वतलें

(4) तुजी याद आयली तेन्ना
म्हजे यादींचें सुकणें जालें
नदर चुकयत काळीज दुखतय
उडून पयस गेलें

(5) म्हजी खोशी सांबाळूंक
जेन्ना मळब उणें पडटा
तेन्ना तुजी म्हाका
खूब याद येता





# अन्याय

'ताका' बापूय म्हणपाक
दोनूच खीण पुरो जाले
'तिका' आवय जावंक
णव म्हयने लागले

तरी भुरग्याच्या नांवांत
समाजाक 'बापूय' दिसता
णव म्हयन्याचो हिशोब करूंक
कोणाकूच वेळ नासता

शिक्षणीक मळार पर्जळ्ळ्यार
तो 'बापायचो' चेडो
वायट रस्त्यार पावलो जाल्यार
'आवयक' हांसता वाडो

लग्नां वेळार वळख कशी
ती 'बापायची' चली
घोवागेर चूक घडल्यार म्हणटात
देख दिवपी 'आवय' मेली

आठ मार्च, बायलांचो दीस
कित्याक म्हणून वेगळो?
एका दिसान पुसून वचत
अन्याय जाल्लो सगळो?





## शीण

म्हाका मोगाची संवय नासली
तुवेंच लावन दिली
सपनांचो राजवाडो दिता सांगून
न्हिदूच चोरून व्हेली

म्हज्या आयुश्याचो दर खीण
तुज्या नांवार केलो
दर खिणाक तुवें, म्हाका
फकत धोकोच दिलो

सरळ वाटेर सांगात दिवन
अर्द्यार तुवें सोडलो हात
तुजे खातीर जग बदल्लें
त्याच मोडणार हांव उबें मात

म्हज्या सांगाताक भविश्य ना
सांगून फुडें गेलो
वांगडा सारिल्लो भूतकाळ आसा
कशें रे तूं विसरलो?





## मोग तुजो

मोग तुजो दंवा वरी
सुर्या वतांत नाच्च जालो
मोग तुजो कापसा वरी
वाऱ्या वांगडा उडून गेलो

मोग तुजो ल्हारा वरी
तडीर येवन खडपार फुटलो
मोग तुजो दोरये वरी
ओडून पळयल्यार रोखडोच तुटलो

मोग तुजो पावसा वरी
मनांतलो गुलमोहर झडयलो
मोग तुजो राती वरी
काळजांत काळोख वाडयलो

मोग तुजो सपनां वरी
न्हिदेंत म्हाका दिसलो
चुकून लेगीत मोग तुजो
मोगा वरी नासलो



# नशीब

म्हजें नशीब चंवरला
तातूंत नवल कसलें?
दर वर्साची खबर ती
अंदू वेगळेंच दिसलें

हे फावटी फळटलेंच
पेटयली पणटी आशेची
सगळ्यांक सांगत सुटलें
खबर इतली खोशेची

फांतोडेर पळयत जाल्यार
सगळो चंवर करपला
निकतेंच धरिल्ल्या फळाचो
जीव देंठेंत शिरकला

नशीब चंवरतांच दंव पडटा?
प्रस्न विचारता मन पिशें
काय दंवांत करपूंक हें चंवरता?
जाप कोणाक दिवं कशें?

निराशी वारें आतां
व्हांवता खांद्या कणकणी
सैमाच्या खेळा मुखार
जीण म्हजी फकत काणी



# इत्सा कवियत्रेची

तुजी खूब याद येता
तरी भेटूंक येवं नाका
भेट जातकूच वतलो सोडून
विरह सोंसचें ना म्हाका

तशें तुका खरें सांगूं?
तुजी भेट म्हाकाय आवडटा
म्हजे भितरली मोगिका
तुज्या येण्यान मळबांत उडटा

पूण प्रस्न एके कवियत्रीचो
तुजे यादीनूच ती घेता स्वास
भेटूंक आयल्यार यादी खंयच्यो?
कवितांनी फकत यादींचोच ध्यास

तुजे भेटेन मोगिकेचें जैत
कवियत्री मात हारतली
उपकार करून यादीच दिवशी?
सासणाक जिवी उरतली

हड्ड्यांत काळीज आसा देखून
जायत घडये मोग तुजो
तरी म्हाका सांबाळूंक जाय
कवियत्रीचो धर्म म्हजो
देखून एकूच इत्सा म्हजी
भेटूंक म्हाका येवं नाका
म्हजे भितरले कवियत्रीक
मोगा खातीर मारूं नाका



## अट

पावसा तुवें येवचें
धर्तरेची तान भागोवंक
सुकिल्ल्या झाडां पेडांक
एक नवी आस्त जागोवंक

पावसा तुवें येवचें
न्हंयो-बांयो एकठांय हाडूंक
कागदाचीं व्हडीं करून
भुरग्यांनी उदकांत सोडूंक

पावसा तुवें येवचें
हातांत तुज्या नांगर घेवंक
काजुल्याचें रुप घेवन
नकेत्रांनी सकयल देवूंक

पावसा तुवें येवचें
दोंगुल्ल्यांनी रोयण फुलोवंक
बेबे-कोंगे जावन जागे
शेतांतलो चिखल कालोवंक

पावसा तुवें येवचें
हाडचो तुवें व्हउलो हुंवार
'मनीसपण' मात उरचें हांगा
बाकी सगळें तुज्या नांवार



# सगळेंच पयलें

पयली उमळशीक
पयली नदर
सगळेंच दिसलें
धवें धवें

पयलो हांसो
पयलें उतर
काळीज ताकाय
दिलें हांवें

पयली भेट
पयलो पावस
हांव तुजोच
सांगलें तुवें

पयलो मोग
पयलो स्पर्श
सगळेंच कितें
नवें नवें...

...फकत
म्हजे खातीर
कांयच नवें
नासलें ताका

लक्षांत म्हज्या
आयलें तेन्ना
सगळेंच पोरणें
जाल्लें म्हाका



## भास

तुजी भास खंयची?
हांवें मोन्यांक विचारलें
ताणें मोन्यांनीच जाप दिली
म्हाकाय ती समजली
त्या वेहार म्हजी भास
म्हाका पांगळी दिसली....!



# म्हाका जियेवंक जाय

म्हज्या मनाक गांठ मारून
यादींची किरवंट सोडयतां
हांगा-थंय शिंपडलां हांव
आतां म्हाकाच घडयतां
सगळ्यां खातीर जगतां जगतां
हांगा थंय पिंजल्या जीण
म्हजेच खातीर जगूंक आतां
मेळचो म्हाका एकूच खीण

कुळाराच्या आंगणांत हांवें
'धूव' म्हणून मिरयलां
भावाची 'भयण' जावन
गीत नवें बरयलां
सगळ्यां खातीर जगतां जगतां
हांगा थंय पिंजल्या जीण
म्हजेच खातीर जगूंक आतां
मेळचो म्हाका एकूच खीण

केन्नाय जावन 'मोगिका'
वाट ताची पळयल्या
सिंदुराची किंमत म्हणून
उमेद उज्यांत जळयल्या
सगळ्यां खातीर जगतां जगतां
हांगा थंय पिंजल्या जीण
म्हजेच खातीर जगूंक आतां
मेळचो म्हाका एकूच खीण

संवसार पाळण्यांत धोलयताना
राती हांवें जागयल्यात
'तांचे' वाटेर फुलां फुलोवंक
पांय म्हजे धगयल्यात
सगळ्यां खातीर जगतां जगतां
हांगा थंय पिंजल्या जीण
म्हजेच खातीर जगूंक
मेळचो म्हाका एकूच खीण





# सगळ्याक सोदतां हांव

कितलेशेच दीस जाले
सगळ्याक सोदतां हांव
धांवपळीच्या शारांत पळय
सांडला म्हजो गांव

हांगा कोणाचोच ध्यास ना
चुलींतल्या धुंवराचो वास ना
सगळें म्हजें, सगळें म्हाकाच
म्हजेंच बरें जावं
कितलेशेच दीस जाले
सगळ्याक सोदतां हांव
धांवपळीच्या शारांत पळय
सांडला म्हजो गांव

हांगा भुरग्यांचो खेळ ना
नात्यांचो मेळ ना
रात दीस दुडू एकठावंक
खर्शेत खर्शेत धांव
कितलेशेच दीस जाले
सगळ्याक सोदतां हांव
धांवपळीच्या शारांत पळय
सांडला म्हजो गांव

हांगा झऱ्यांचो खळखळ ना
वाऱ्याचो सळसळ ना
कोगळांच्या गितां बदलाक
कावळ्यांचो कांव कांव
कितलेशेच दीस जाले
सगळ्याक सोदतां हांव
धांवपळीच्या शारांत पळय
सांडला म्हजो गांव

हांगा चिटीची अश्रेकणी ना
भुरग्यांक सांगूंक काणी ना
मनीसपणाक लायला उजो
वयर काडूंक नांव
कितलेशेच दीस जाले
सगळ्याक सोदता हांव
धांवपळीच्या शारांत पळय
सांडला म्हजो गांव





## हय! पिशेच आमी

मोगान पडून पिशे जाल्ले
हांवें आदीं पळयल्यात
पूण पिशांक जेन्ना मोग जाता
तेन्ना तांकां कवी म्हणटात
हय! पिशेच आमी
आमच्या काल्पनीक बळग्याचेर
विश्व नवो घडयतात
वाळवंटाची तान भागोवंक
घोग्यांचो पावस झडयतात
आमचे कडेन गिरेस्तकाय ना
तरी पूण दर्या आसा
दर्या देगेर माड आसा
माडार चडपी रेंदरे आसा
रेंदेराची खोंप आसा
खोंपींतली जीण जगूंक
आमचे कवीतेक तांक आसा....!
आमच्या माथ्यार मुकूट ना
तरी उगडें मळब आसा
मळबांतलो चंद्रम आसा
चंद्रीमाचें चान्ने आसा
चान्न्यांत बसून उगड्या दोळ्यांनी
रंगयाळीं सपनां रंगोवंक
आमचे कवितेक तांक आसा

देखुनूच पिशांक जेन्ना मोग जाता
तेन्ना तांकां कवी म्हणटात
आमच्या नांवान रस्ते नात
तरी एक पांयवाट आसा
पांयवाटेर पावलां आसात
पावलांक बांदिल्लीं पांयजणां आसात
पांयजणांच्या नादार पातयेवन
आमचे कवितेक तांक आसात
देखुनूच जेन्ना पिशांक मोग जाता
तेन्ना तांकां कवी म्हणटात...!
आमचे कडेन थोडेंच आसा
तरी पूण सगळें आसा
सगळ्यां भितर आमी आसात
आमचे भितर पिशे आसात
ह्याच पिशांक मोग जाता
आनी पिशांक जेन्ना मोग जाता
तेन्ना तो कविता करता
देखुनूच ताका कवी म्हणटात





# भेटूंक येता तेन्ना

भेटूंक म्हाका येता तेन्ना
केंस मानेर सोडूं नाका
तातूंत हांव शिरकल्यार
ओगीच जटां जातलीं

हरणा वरी चाल तुजी
म्हजे दिशेन येवं नाका
मैलांचो फातर हांव
आपटून पावलां दुखतलीं

निरंजन माखिल्ले दोळे
वाट म्हजी पळोवं नाका
मोतयां वरी दुकां तुजीं
कारणां विरयत व्हांवतलीं

तुज्या काळजाच्या देवाऱ्यांत
म्हूर्त म्हजी पुजूं नाका
म्हज्या पांयार चडिल्लीं फुलां
काळा पयलींच बावतलीं



## पिंजऱ्यांतली जीण

पिंजऱ्यांतली जीण म्हजी
मोन्यांनीच हांव सारतां
मळबांत उडपाची आस्त म्हजी
काळजांतूंच हांव मारतां

गळो सजोवपाचे आशेन
सुळार हांव चडलां
मोतयां सोदूंक गेल्ले कडेन
नशीब दर्यांत बुडलां

कपलाक म्हज्या कुकूम लावन
मनाची नदर धांपल्या
अन्याय हो सोंसता सोंसतां
सहनशक्तीच सोंपल्या

आतां ह्या पिंजऱ्यांतल्यान
सुटका म्हजी जावंक जाय
चोंच मोडल्यार परवा ना
उगड्या मळबांत उडूंक जाय

# केन्नाय दिसता

म्हजें लग्न जालां
तरी केन्नाय दिसता
खीणभर सगळें विसरचें
तिनसांजेच्या वेळार म्हाका
घोवान सदांच भेटचें
हांवेंय ताची वाट पळयत
दर्या देगेर बसचें
चोर पावलांनी येवन ताणें
दोळ्यांक म्हज्या धरचें
… ताकाय अशेंच दिसता काय???

हातांत हात घालून आमी
लांब पासयेक वचचें
फुडाराचीं सपनां रंगयत
झऱ्या वरी हांसचें
तुजे शिवाय कांयच ना
ताणें कानांत सांगचें
म्हज्या तोंडांतल्यान येवपी उतर
ताणें उमेदीन आयकुचें
म्हजें वर्णन करपी एक
गीत ताणें गावचें
… ताकाय अशेंच दिसता काय???



# जीण

जीण म्हजी केन्ना केन्नाय
वाऱ्या वरी वेग धरता
सांजेर फुलपी मोगऱ्या वरी
केन्नाय ती आळशी थारता

जीण केन्नाय मळब जावन
सुर्याचें न्हाण घेता
काळजी कुपां मानेर सोडून
दोळ्यांतल्यान व्हावन वता

जीण म्हजी उदक जावन
रेंवटांत फुलां फुलयता
यादींच्या झोपाळ्यांचेर
केन्नाय जीण धोलयता

जीण केन्नाय मुळां जावन
खोल खोल भुंयेंत रिगता
केन्ना केन्नाय हावेसाचो
दोंगर जावन मळबाक तेंकता

मरणाचे सावळेक म्हजी
जीण एकदम भियेता
तिका बावडेक खबर खंयची
मरचे खातीरूच ती जियेता





# कवितेचें मोल

फात्यापारार याद तुजी
सुर्या जावन येता
तिनसांजेच्या मंद वेळार
घायाळ करून वता

दर्या वेळेर याद तुजी
खडपार येवन बसता
पांय आपले उदकांत बुडोवन
शितळ हांसो हांसता

चिंचे झाडार याद तुजी
अमुरपिकीच हुमकळटा
बारीक बारीक पानांमदीं
वारो जावन सळसळटा

दर खिणाक याद तुजी
काळीज जावन धडधडटा
तुजे यादीन बरयतकीच
कवितेचें मोल वाडटा





# तो हांसचो देखून

मळबान आज रडुंकूच जाय
म्हज्या दोळ्यांतलीं दुकां लिपोवंक
हांव रडटां म्हूण ताका कळ्ळ्यार
तो एकाद्रो विसरत हांसूंक

ताचे जिणेंत फुलां फुलूंक
म्हज्या दुकांची गरज ताका
ताचे खातीरूच रडटां हांव
हाची जाणीव मात जाल्ली नाका

देखुनूच मळबान रडुंकूच जाय
म्हज्या दोळ्यांतलीं दुकां लिपोवंक
हांव रडटां म्हूण ताका कळ्ळ्यार
तो एकाद्रो विसरत हांसूंक





# देवा! म्हाका सांगशी?

तिच्या कपलाचो कुकूम सांडला
तरी ती फुलां विकता
देवा, तुज्या पांयार ओपूंक
मेळिल्ल्या फुलांतलें एकूय फूल
तिच्या केंसांत खोवचें अशें
केन्ना तरी दिसलां तुका?

तुज्या नांवान निर्जीव फातराक
हांगा दुदान न्हाणयतात
भायर पांवड्यार तिचें पोर
रितें हड्डें चोखता
तेन्ना तुवें दुदान न्हावप
तुजीच लज दिसना तुका?

तूं म्हणल्यार उजवाड देवा
काळखांत रावंक मात सोदिना
तुज्या मुखार वाती पणटी
तिचे खोंपींत काळोख गुपाट
रिती चिमणी ती सांसपता
तेन्ना तुजें व्हडपण मिरोवंक
कशें रे देवा सोबता तुका?





## ओगी बसूं?

पुनवे राती चान्न्यांत बसून
सोपूत दिवन फटयलें
तुवें केल्लो गुन्यांव धांपूंक
चंद्रार पडलें लांशें
केंसांत माळिल्ल्या आबोल्याचें
उडून गेलें हांशें
तुजें म्हजें नातें तुवें
दागो समजून तुटयलें
ख्यास्त तुका जावची न्हय म्हूण
सांवरीक लागलें पिशें
निसर्गार जाल्लो अन्याय पळोवन
ओगी बसूं कशें?





# खूब कितें शिकचें आसा

सात समुद्र पलतडी
तारवां भोंवन आयलो तरी
अजून म्हज्या दोळ्यांत मोगा
पेवूंक तुवें शिकचें आसा

दोंगराचें हड्डें चिरून
गांव लागीं हाडले तरी
तुजें काळीज अजून तुवें
म्हज्या काळजाक जोडचें आसा

जमनीची खोलाय मेजूंक
पाताळांत तूं देंवलो तरी
म्हज्या मनाचो थाव मोगा
अजून तुवें घेवचो आसा

सात सुरांचें मिलन करून
सरगम तुवें सादलो तरी
मोगाचो आठवो सूर
म्हजे खातीर गावचो आसा

संवसाराचो भार तुवें
भुजार तुज्या पेल्लो तरी
आळवा वयल्या थेंब्यावरी
भावना म्हज्यो झपच्यो आसा

अहंकारी शिमो तुवें
जाय थंय घाल्यो तरी
बंधनाच्यो फास्क्यो मोडून
म्हाका मेकळे जगचें आसा





# जीण एक कविता

कविता बरयतां बरयतां
जिणूच एक कविता जाल्या
आता दर गजालींत हांव
यमक सोदीत बसतां
कानार पडिल्लें दर उतर
अलंकार कशें न्हेंसता

जिणेचे वांटे करून
म्हाकाच करतां विचार
खंयचें कडवें खंय घालूंक
वापरूं खंयचो प्रकार

घोवान धेंगसो घाल्यार म्हणटा
खंयचे शैलींत तापलो
जेवण अळणी जाल्यार चिंतता
लय कसो चुकलो?

नुस्तेकात्रीच्या गाळ्यांतली
शब्दकळाच मेळना
केन्नाय म्हज्या काळजाचो
छंद म्हाका कळना

कवितेचो आशय पळोवन
स्वताकूच हांव विसरतां
तिचीं पाळां म्हज्या रगतांत
हांव तिच्यांत समावतां





## हार-जैत

कालची माती, फायर्ची बियां
आयचो दीस घडयतात
पोरण्यो यादी, नवे हुस्के
केन्नाय मनशांक रडयतात

भोगिल्लें सूख चाखिल्लें दूख
इतिहासाची मिरास व्हड
घुस्पल्ल्यो वाटो मेळिल्लें मुक्काम
केन्नाय पावलां करतात जड

दिसाचो प्रकाश, रातचो काळोख
सपनाचो नवो चंवर
मोगाचो उजो, रागाचे कोळशे
केन्नाय जिणेचो करतात धुंवर





# अहंकारी खिळे

जेजू क्रिस्तान सांगलें
'दुस्मानाचो मोग कर'
हांवें म्हज्या घोवाचो केलो

एका पोल्यार मारल्यार
दुसरोय दी आनी
म्हजे दोनूय पोले
वांगडाच फोडून घेतले

फायचो हुस्को
फाल्यांर सोड
हांवें म्हज्या भुरग्यांक
मेकळीं सोडलीं

तुमी संवसाराचो उजवाड
सगळ्याक पर्जळ फांकचो
हांवें उजवाड दिवंक
स्वताक जळोवन घेतलें

तुमी प्रिर्तुमचें मीठ
संवसाराक स्वाद हाडूंक
हांवें म्हजीच जीण
अळणी केली

जेजू क्रिस्तान
जें कितें सांगलें
तितलेंय हांवें केलें
तरी पूण...

म्हजो जेजू क्रिस्त
कालवार दोंगरार
अजुनूय खुरसार हुमकळटा
म्हज्या अहंकारी खिळ्यांक...



# हांवूंच उरलां सवाय

गरीबाचे गाडयेक पेटला
म्हारगायेचो उजो
संवसाराचें वजें आतां
भुजार सांवरूं नज

व्यान्नी सांगता, पन्नास रुपयांक
करबटाचो वांटो
आयकुनूच गळ्याक लागता
म्हारगायेचो कांटो

दुयेंत जालयार दोतोराची
देडशे रुपया फी
म्हारगायेच्या कपांत घालून
सवाय जीण तूं पी

सण-परबो, लग्नां-फेस्तां
बोल्साक पडला बुराक
बायले म्हऱ्यांत उबो रावंक
पिवचें पडटा धिराक

म्हारगायेचेर जैत व्हरूंक
ना रे देवा उपाय
सगळें जालां म्हारग
फकत हांवूंच उरलां सवाय



## फरक

म्हज्या दाव्या हाताच्या बोटाक
चकचकीत मुदी घालून
म्हजे पुराय जिणेचो
तो धनी जालो
हांवें घाल्ले मुदयेन मात
म्हाका दासीचोच दर्जोदिलो

मुदयो केल्ल्यो एकाच शेटीन
तरी म्हणटा...
फरक कसो इतलो?





# कविता नाशिल्ली जाल्यार

कविता नाशिल्ली जाल्यार...
नात्यांचे गर्देंत
हांव केन्ना सांडपाचें
फेरयेंतले बावले वरी
भुरग्यां हातांत मोडपाचें

कविता नाशिल्ली जाल्यार
दर्याच्या ल्हारावरी
खडपाक आपटून फुटपाचें
न्हिदेंतल्या सपना वरी
जाग येताच तुटपाचें

कविता नाशिल्ली जाल्यार
देवाच्या पांयार
फूल जावन चडपाचें
दुश्टांच्या हातांतूय
प्रसाद म्हणून पडपाचें

कविता नाशिल्ली जाल्यार
दुख्खाच्या हुंवारांत
बुडून हांव मरपाचें
समाजाचे फास्के भितर
चित्र जावन उरपाचें





# घात

कांय दिसांचोच संवसार हो
मनाक म्हज्या दिसलें
दर दिसाक एकदां तरी
जितें आसतनाच मेलें

सपनाचें शीत रांदून
जिणे पानार वाडलें
स्राद्धा समजून पेरीवयल्या
कावळ्यान खावन सोडलें

मळबार पावशी कुपां पळोवन
गुलमोहराचो धरलो हात
पाकळ्यान पाकळी गळून पडली
जिणे वाटेर जालो घात





## जैताचे पांवडे

तुमी केल्लो दुस्वास
म्हज्या जैताचे पांवडे
तुमी दिल्ले त्रास
म्हाका सुखाचे आंवडे

तुमी तोपले कांटे
फुलांक मोल आयलें
तुमी शेंवटिले फातर
हांवें घर बांदलें

तुमी रानांत सोडलें
चलत हांवें केली वाट
शुन्य म्हणून भायरायलें
स जोडून केले साठ

तुमी केलो तिरस्कार
बरें-वायट हांव शिकलें
तुमी फकत मोलावंक उरले
सगळें जग हांव जिखलें



# फुलूंक चुकलो

म्हज्या दारांतलो गुलमोहर
अंदू फुलूंक चुकलो
ताचेर पातयेवन केल्लो मोग
चंवरचे पयलींच सुकलो

हरशीं बरो दर वर्साक
पावसा पयलींच फुलतालो
ताच्या पोंदाक मोग म्हजो
वाऱ्या वांगडा धोलतालो

अंदू कांयच समजना
रुसून कित्याक बसला
कोणाक भिवन रावला मोनो
काय आवाज गळ्याक दसला

गुलमोहरा ! अशेंच चल्ल्यार
फुडें जातलें कशें?
येतलो वतलो हांसता म्हाका
लागला म्हणून पिशे



# दुर्गां

धर्माच्या नांवान तुमी
मदीं दुर्गां घालीं
तरी शेजारच्या आंगणांत
भुरगीं पंगतीक बसलीं

तुमी रोयिल्ल्या झाडांचे
खांदे दोरांनी बांदले
तरी तांचीं फुलां
शेजारच्या पोरसांत सोबलीं

शेजारचे दिकेन उगडपी
जनेलां तुमी पुरयलीं
तांच्या हुमऱ्या स्पर्श करीत
वारें तुमगेर आयलें

तुमच्या दारांत आयिल्लें वत
भांगर घालून आंगार
सुर्या धारेक वता म्हणल्यार
रात जावन तांगेर रावलें

तरी तुमकां दिसता
की आपलोच धर्म व्हडलो
जाल्यार पुराय विश्व
मदींच कापचो पडलो

मळबाचेय कुडके करून
सारके घालात वांटे
निसर्गाकूय कळूं दी
विचार तुमचे खोटे





# तुटिल्लें सपन

दर रातीं सपन पडटा
जाग येवन मदींच तुट्टा
तुटिल्लें सपन पुराय करूंक
दुसरे रातीं परत न्हिदतां
तरी म्हजें सपन
अजून तुटिल्लेंच आसा





## वेगळी नदर

पयलेच फावट मोगांत पडलें
तेन्ना मळब सोबीत दिसलें
दिसलें, झरे हांसत व्हांवतात
दर्यांत नुस्तीं खोशेन पेंवतात

म्हजेच खातीर फुलतात फुलां
पोरसांत गायतात सुकण्यां पिलां
म्हाकाच मेळूंक येतात ल्हारां
रोखडींच पळटात दिसा वरां

अचकीत रातीं जाल्यो व्हड
कारांतीय जिबेक लागलीं गोड
पावसांत आंगाक पेटलो उजो
गिमांत थंडी सोंशी नज

पुराय जगूच रंगांत बुडलें
म्हाका स्वर्गाचें दर्शन घडलें
दिसाचींच जमनीर आयलीं नकेत्रां
म्होवान बुडलीं म्हजीं उतरां

जेन्ना ताणें फटयलें म्हाका
तेन्ना दिसलें कांयच एक नाका
अजुनूय तशेंच आसा सगळें
मोगाविणें मात दिसता वेगळें





## आडवेळो पावस

आडवेळार आयिल्ल्या पावसांत
तें भिजतना दिसलें
ताका हांवें सत्री दिली
सत्रे वांगडा काळीजूय व्हेलें

आतां पावस थांबला
तरी ओले म्हजे दोळे
कपलार सुर्याक झेतान मिरयत
मळब म्हाका हांसता पळे

केन्ना तरी आडवेळार
परत मळब रडटलें
हांव चिप्प भिजलो तरी
काळीज सुगूर उरतलें



# मोल

निलामीच्या बाजारांत
तिचें मोल कितलें?
हवस भागोवंक आयिल्ल्यांचे
नदरेक शरीर भरता तितलें

अशें म्हणपी अभाग्यांनो
तुमच्या ह्या दुर्दयवाचें
ताळयो मारून कवतूक करूं?
काय कावळ्यांक तुमचें पिंड वाडूं?

आरे! तुमी मोल करतात
फकत तिच्या देहाचें
तिवूय रंगता नाटकांत तुमच्या
नाटक कांय खिणाचें

घडटा जाल्यार पड्ड्या फाटल्यान
तिचो आत्मो विकतो घेयात
घर-दार, बायल भुरगीं
सगळें तुमचें पणाक लायात

तागडेच्या दालनांत
बसले पासून जाल्यार तुमी
निलामीच्या बाजारांत
तुमचें दालन सदांच कमी



# रोयलां थंय फुलत राव

रोयलां थंय फुलत राव
वाऱ्या वांगडा धोलत राव
मुक्काम पयस आसलें तरी
मैलां फातर मेजीत राव
काळखी राती सोंशीत राव
रोयलां थंय फुलत राव

रोयलां थंय फुलत राव
मेकळ्या मनान हांसत राव
उल्याक कोणूच पावना तरी
साद तूं घालून राव
केना तरी जातलें जैत
आतां हार मानीत राव
रोयलां थंय फुलत राव

रोयलां थंय फुलत राव
दुखा पावसांत भिजत राव
वादळ वाऱ्याक तोंड दीत
जमनींत मुळां रोमून राव
आयले कितले गेले कितले
चुकिल्लें गणीत सोडयत राव
रोयलां थंय फुलत राव





रोयलां थंय फुलत राव
दोळ्यांतलीं दुकां व्हावयत राव
सपनां तुजीं तुटलीं तरी
परत एकदां विणीत राव
हावेसाचीं पाखां लावन
मेकळ्या मळबांत पळयत रावत
रोयलां थंय फुलत राव

रोयलां थंय फुलत राव
जिणे पणटी जळयत राव
कोणूच तुजो नासलो तरी
तूं सगळ्यांचेंच जावन राव
पलतड तुवें घाटची आसा
मस्त्या ल्हारांक तेळीत राव
रोयलां थंय फुलत राव

रोयलां थंय फुलत राव
मोनी भास उलयत राव
मळबांतलीं नकेत्रां
गरिबांक वांटूंक तयार राव
तांचो लगाम हातांत धरूंक
सतत यत्न करीत राव
रोयलां थंय फुलत राव





# कविता करूंक जाय तेन्ना

गुलाबाचेर केन्नाय
कविता करची आसल्यार
खिणभर बागेंत हांव
गुलाब जावन परमळटां
कांटे तोपतात भौंरे येतात
सगळें हांव अणभवतां

कृष्णाची बांसूरी जावन
राधेक मधूर साद घालता
वृंदावनांत भेट तांची
ओगीच रावन पळयतां
कृष्णा तो राधा हांव
येवजून कविता बरयतां

सुपभर नकेत्रांनी
कविता सजोवची आसल्यार
दोळे धांपून एक रात
केंसां विणयेक रेवडायतां
मळब हांव, चंद्र तूं
गीत नवें घडयतां

केन्ना तरी, कोणाचेर पूण
दर एकटो करता मोग
कविता करूंक तांची सुवात
थोडो वेळ उदार घेतां
तेन्ना हांव उरना 'हांव'
तांचें जिवीत जगतां

कविता बरोवंक जाय तेन्ना....!



## सपनांतल्या गांवांत

सपनांतल्या गांवांत
यादिंची तोर्णा
एकटेंच बसून नियाळटां
सांगात दिवंक कोण ना

ओंवळी पोंदाक ओंवळां पुंजावपी
सांडल्यो आतां इश्टिणी
तांबडीं गूज भिण्णा मिरोवपी
मोन्यो जाल्यात भिरंडीणी

सपनांतल्या दोंगरार
दु दुदावरीं चुन्रा
पोसोभर कुटल्यांत हांवें
खावंक हांगा कोण ना

जांबळी मुळांत वयर सरल्यात
यादिंच्यो त्यो रोयणी
जांबळांक लावूं मीठ खंयचें
जिणूच जाल्या अळणी

सपनांतले रांदचे कुडींत
कांद्याची फोण्णां
दोणलेंतल्यो आमल्यो खावंक
जिबेक मातपूण रुच ना

## वाट जिणेची

सुखाच्या ल्हारां वांगडा
दुख्ख्याच्यो शिंपयो आयल्यो
तरी आज पासून देवा
दर्या देगेर येतां हांव

मुक्कामार पावतां पावतां
सगळ्यो वाटो घुस्पल्यो
मैलांच्या दर फातरार
तुजेंच म्हाका दिसता नांव

दोळ्यां मेरेन पावलोच्च ना
ओंठार उदेल्लो हांसो
तरी तुज्या नांवा मुखार
दिमी हांव मोडटां

बाविल्ल्या फुलांतलो रस चिवूंक
गोल घुंवता भोंवरो पिसो
जलस्थल मेळत हेच आशेन
फुडली वाट चलतां




## भूंयफोड

2006-त प्रकाशन

गोवा कोंकणी अकादेमीचो साहित्य पुरस्कार

-किरभाट, नुवें, साश्टी-गोंय

-नागरीक तशेंच रोमी लिपयेंतल्यान बरोवप करतात. कोंकण टायम्स, सुनापरान्त, गुलाब द गोवन रिव्हूव, जिवीत, नुवेंचो परमळ, सब्दाचो प्रकास, दर म्हयन्याची रोटी, गोंयचो आवाज, उमाळे आदीं नेमाळ्यांचेर कविता, निबंध प्रकाशीत जाल्यात.

-आकाश्वाणी आनी पणजी दूरदर्शनाचेरुय कविता सादर केल्यात.

-उपरांत रोडोन कित्याक उपकारता(मारियो मिनेझीस), एकलो एकसुरो(सर्गेस्त चंद्रकांत केणी), आंबोट-तीक(पिओ एस्टेवेस), आर्शिवाद(बी वितोरिनो पेरेरा) हीं पुस्तकां लिपयांतर केल्यांत.

-साबार कवी संमेलनानीं तशेंच साहित्य अकादेमी(मुंबय), अखिल भारतीय संमेलना वेळारुय कविता सादर केल्यात.

-कवितां खातीर राज्य पांवड्यार साबार इनामां मेळ्ळयांत.

-साहित्य अकादेमी वतीन प्रवास येवजणेखाला दिल्ली आनी भोपाल राज्यानीं अभ्यास यात्रा केल्या.




## मळबगंगा

2007-त प्रकाशन

कोंकणी भाशा मंडळाचो साहित्य पुरस्कार

# ग्वादालूप

## डायस



Doctor's — डॉ. फ्लॉरेन्स आल्मेदा